# शंखनाद

(कविता-संग्रह)



डॉ. एल. सुनीता बाय

२०१२

# SANKHANAD

(Konkani Poetry Collection)
by Dr. L. Suneetha Bai



२०१२

उजवाडावपी : **Dr. L. Suneetha Bai**, Retd. Professor,
Vrindavan, Kakkanad P.O.,
Kochi-682030
Phone: 98460 48428
e-mail : suneethabai@gmail.com

अक्षरजुळणी आनी कव्हर : **Sreyas Computer Centre**,
South Cherlai, Kochi-682002

मुद्रण : **Vasant Industries**,
Town Hall Road, Kochi - 682002

मोल : रु. 100/-

# दोन उतरां

'शंखनाद' हो म्हजो अंतरनाद. मनांतले भावांचे प्रस्तुतीकरण. पोरणीं मुल्यां मुखार हाडचे खातीर आशिल्ली सुचोवणी. हांत नवे आनी पोरणे चाल-चलणुकेची तुळा करून पोरणे परंपरेचें महत्व दाखोवपाचो प्रयत्न.

व्यंग्य आयचे कवितेचें खाशेलपण. 'शंखनाद' संग्रहांत हांगा थांगा व्यंग्य धारेचें आनी तीखट जावन आयल्यां. कांय कविता व्यंग्या तर्फेन समाजांतलें वायटपण पयस करतल्यो म्हूण इत्सा करून तयार केल्यात.

'शंखनाद' संग्रहांत म्हज्या गहन अणभवांचें चित्रण जाल्यां. मनांतले क्षोभ, त्रास आनी निरशेणी कवितांचे वाटेन हांगा चित्रीत करपाचो प्रयत्न जाला. ल्हान-व्होड, गुरु-शिष्य, पंडीत-पामर सगळे आपले आपले वाटेन मुखार सरतात. सैमांतली तरेकतराची जीवावळ आनी झाडापेडां आपलें आपलें महत्व घेवन आसात.

मनीस-धर्म आनी मनीसकाय जिणेचो उजवाड. हो उजवाड आचरणान जाता. आचरण म्हळ्यार सदाचरण. पोरण्या कालाक हाका व्हड म्हत्व आशिल्लें. हें आचरण धर्माची रक्षा करतालें आनी धर्म मनशाची राखण करतालो.

'एकमेकांक पांवप होच धर्म मनीसजातीचो'. परोपकार हाचो मुळावो स्त्रोत. आज मनशाचे जिणेंत परोपकार ना. देखून मनशाक मान ना, महत्व ना. दुडवान ताचें मोल थारायतात. किमत घालून ताचो विक्रय करतात. बुद्धिवादाक लागून संवेदना नश्ट जाल्या. मनीस मनशाक पिडापीड करता, चाबून खाता,

जिवानिशीं मारता, परंपरेचो घात करता.

मनशाचो मान, महत्व आनी मुल्यां ना जाल्ल्या ह्या काळाक, मारामारी, फटवण, फार आनी मनीस-बम हांचो सहाय घेंवच्या ह्या काळाक, मनश्याच्या स्वार्थाक लागून एका दुसर्या लागी झगडें करच्या ह्या काळाक मनशाची राखण सैम आनी देव मात करता. हें सत ह्या संग्रहांतल्यो कविता सांगतात. म्हज्या ह्याच अणभवाक हांगा उतरांचें रूप दिल्यां. सहृदय पाठक हें स्वीकार करतले म्हूण हांव इत्सा करतां.

कोच्ची **एल. सुनीता बाय**

३० - ६ - २०१२

# मांडावळ

# देवा !

देव देव दयानिधे !
राक म्हाका कृपानिधे !
केलें तुवें सग्ग वारण
मुनिपत्नीचें शापतारण
गुह रायाचें पापमोचन
म्हाका तू करि पावन ।

मन म्हजें मोंचूव जालें
झोडा वेळार ल्हारांत पडलें
हालून धलून चलून आसा
ल्हारां मदीं भुलून आसा
दया करून म्हाका पाव
म्हजे जिबेरि तुजें नांव

कर्म म्हजें पूर्वजल्मांत
पाप जावो पुण्य जावो
सग्ग आसा तुज्या हातांत
तूच ताका सत्प्रमाण
करि म्हाका पापमोचन
धरि म्हाका तुजे सावळेंत

संवसाराच्या सागरांत
प्राण्या प्राण्या उजवाडांत
तुजें रूप, तुजो प्रकाश
भरला सगळी भूंय, आकाश
मनांत म्हज्या भरून दी
तुजो तो आत्मप्रकाश

लोक सगळोच तुजी सावळी
तूच लोकाचो अक्षय स्रोत
हास्य लास्य तांडव-नर्तन
तेंच जगाचे हास विलास
मनांत म्हज्या भरून दी
नर्तनाचे हास-विलास



# राम - नाम

रामनाम म्हजें धाम
संसार सागर पार व्हरपाचें ताचें काम

केन्ना केन्ना सपनांत, केन्ना केन्ना मनांत
केन्ना केन्ना तुज्या साकार रुपांत
तुजें सावट म्हाका मेळटा
रामनाम व्होड, रामा परस जड

रामनाम म्हजें धाम
संसार सागर पार व्हरपाचें ताचें काम

दोळ्या सत्याचे मिचकींत, दिश्टीचे जाळांत, सृश्टींत
पाचव्या तणांत, पाचव्या पानांत
फुला सुगंधान भरिल्ल्या वार् यांत
रामनामाची व्याप्ति व्होडि, जगा परस चडी

रामनाम म्हजें धाम
संसार सागर पार व्हरपाचें ताचें काम

म्हज्या श्वासांत, मन्दहासांत
वायु, वरुणाच्या सुन्दर हासांत
रुपान भरिल्ले मोगा सावळेंत
म्हज्या मनांत भरून आयल्यां

रामनाम म्हजें धाम
संसारसागर पार व्हरपाचें ताचें काम

निळ्या निळ्या आकाशांत
नखेत्रांच्या तरंगांत
फुलाच्या कोमल आननांत
रामनामाचें सौन्दर्य, सैमा परस सुखाचें

रामनाम म्हजें धाम
संसार सागर पार व्हरपाचें ताचें काम



# विराट

विश्वाचे सृश्टींत जैत जोडून
कणांत कणांत राबता तू
सहज, सरल, कोमल, सुन्दर
देहांत देहांत राबता तू

जंय थंय पाचवेंचार
तणांमदीं सोबीत तू
गुंड्या फातरांत, निश्चल दोंगरांत
पिसोळ्या रंगीत पांखांत तू

शेवण्या गितांत वार् या वेगांत
मोगर् या फुल्ल हासांत तू
पद्‌मसुगंधित उदकांत,
चम्प्या मादक भावांत तू

मरकतसदृश सोबायेंत
सांजवेळेचे नीरवतेंत तू
रातीच्या स्निग्ध पांगरूणांत
चन्द्रेमाच्या चांदिण्यांत तू

तरि मनीस ?
तुजें प्रतिबिंब ?
तुजे सृश्टींत, दिश्टींत
आपलो अधिकार घेवन आसा

सौम्य रूप तो दाखयता
मनांत वीख दवरता
दोरासारकें रूप दाखोवन
जिवाण्याचें रूप काडता

उच्च सृश्टि, मति, धृतिचे वांगडा
अहंकार तो वाडयता
मायाजाळांत विस्मृत जावन
तत्व, सत्व सग्ग वार् यार सोडता

फटवण, पीडापीड करून
लज्जा नातिल्लें भोंवता तो
तुज्या दिव्य रुपाचो
घात सदाच करता तो



# ईश्वराची लीला !

## 1

अजाप ती ईश्वराची लीला !
सद्दां नवी माति काडून
मनीषरुपाचे कळशे करता,
तांत रंग भरून सद्दां
तरेकवार सोबाय हाडता

अजाप ह्या शिल्पीचें काम !
मातये कळशांत प्राण घालून
नांचयता ताका चित्र विचित्र
हेच मातयेंत जिवीत मेळून
वाडून येता मनीस खूब !

कितलें दारुण ईश्वराचें काम !
काम करून मौज मारून
जेन्ना तो उबगण घेता
तेन्ना प्रलय करून तो
खूब आत्मतृप्ति पांवता

भोव कराल ताची लीला !
मूर्त करून रेवेंची
तो चूर्ण क़रून घेता
सुख पळोवन रडता
दुःख पळोवन हासता

★

## 2

देव तो खेळता
मूठ भर रेंवेन मनशाक तो करता !

पंचभुतान केलें देह
मोल ताचें भंगरा गेह
काडता कष्ट वाडता देह
उरता आज मरता फाय
तांत मर्दी करता फारि
मूठ भर ताची सारि

हें सत्य जाणता मनुज
करता तो मारामारी
जंय थंय मेळता लाभ
थंय थंय ताका लाव
उड्डि मारता पळोवन अर्थ
मोला घेता कष्ट व्यर्थ

खेळता देव पांवता मोद
ताका हो चेर्डुखेळ
करता बावलें नवें नवें
व्हरता बावलें पोरणे पोरणे
सोडता भुंयचेर वांचूक, नांचूक
धरता हातांत सूत ताणून

सुत्तारि लांबून रावता मनुज
ओडून धरता सूत पुरुश
घडी वेळ दुःख जाता
घडी वेळ सुख जाता
सुखा वेळ मनशाचो खेळ
दुःखाचो वेळ देवालो खेळ



## हातवात

संजेचो वेळ
जळून आसा हातवात

मळबार सून हळू हळू
देंवन येता काळोख
सोव्ळेले केश भुंयचे
घालून गोवंटेक पास

सुर्या बुडता उदकांत
लोक बुडता काळखांत
ल्हानि ल्हानि हातवात मात
जळून आसा ताचे संगात



## व्हय गे करुणेची मूर्त

व्हय गे करुणेची मूर्त
व्हडि आसा तुजी कीर्त

सताची वाट उंचार वचपाची
सगळ्यांक सोडून मुखार वचपाची
दाखय म्हाका वाट
दी म्हाका बेंसांव

अगे करुणेची मूर्त
तुजो हो अनुग्रह
जीवाचो मूलाधार
तुजो हो उपकार
जिवाक आनन्द दिवपी
वाट दाखोवपी

हे शक्ति !
तुजी शक्त अपार
भायरच्यान अप्रमाण
भितरच्यान प्रकाशमान
आपली सतशक्त
लिपोवपा खातीर पराशक्ति जावन
जनांक आसक्त केरून
तू करुणामयी, संसारांत पातळून आसा

हे अंबे !
तुज्या पदरांत
मनशा विशीं
खूब करुणा भरिल्ली आशा
मोग नाशिल्ल्या मनशांक
मोगाची वर्तणूक दिवन
स्नेहसिंचीत करून
तांकां विनयान्वीत तू करता



# शंखनाद

मध्याह्नाचो वेळ
वोताचो खेळ
देवळांत जाता शंखनाद !

देव जग्गो आसा
दोळे धंकून आसात
देवी लागी आसा
सगटाचो भान आसा.

नादब्रह्म !
ताकाय जाता भ्रम
ना तांत अर्थ
अर्थाचें लय मात.

फुंकली शक्ति
अर्थाचो तरंग
वयर आनी सकयल
तकलेंत देवाचे
हो तरंग तोडून कूड
भायर येता.
देव जाला मर्माहत
आनी बेहोश
देवळांत पडला निश्चल

हिशोब घुसपून वत्तात
भाव बिंबाचे पर्तून येतात
आतां भेरीचो नाद
फोगाचो मेळ
मनशाचो गोंदळ
सार्थक करून
जाला शंखनाद !



# आस्त

नखेत्रांच्या प्रकाशांत
संगीताच्या झंकारांत
मेळ्ळें म्हाका आत्मस्वरूप
जिणेची चिराभिलाष

आज
नखेत्रांचो प्रकाश ना
संगीताचो झंकार ना
आस्त करून भोंवता हांव
फुलां मदीं, पाकळ्यां मदीं
चिरमुचट्यांत, सिरपुटांत
मुसा माख्शी, भोवरा माख्शी
जिणेच्या त्या सपना खातीर
शान्त सुखद सपना खातीर



# जीवन-संगीत

वीणेच्या सुरांचे सरयांत
एका दिसा म्हाका मेळ्ळी
जिणेची चिरकालीन इत्सा
म्हजे जिणेंचें मोलादीक संगीत !

आज तेच वीणेचे
तुंटल्ले सरयांत
आशेचें जाळ वीणून
हांवें काळ व्यर्थ काडलो

फुलाच्या कळ्यांत
झोंपाचे वळींत, पाणीच्या सुरांत
हांवें केलो सोदाचो यत्न
व्यर्थ जालो सगळोच प्रयत्न

पर्वतांच्या ओले शिखरांचेर
सकयल दर् याच्या ल्हारांचेर
नदींच्या शान्त तटांचेर
म्हाका जिणेचें संगीत मेळेना

निर्जन रानाचे नीरवतेंत
रातकीड्याच्या झंकारांत
मंद वार् याच्या झोतांत
तूफानाच्या बोवाळ्यांत

साकाळीचे मनोहर यादींत
सांजेच्या विसरले सपनांत
दिसाचे उबते धूळींत
रातीच्या उज्ज्वल ताळांत

झगझगेवन येंवच्या जोगलांत
गडगडेवंच्या मेघगर्जनांत
शान्ततायेंत, बोवाळ्यांत
मेळेना म्हाका जिणेचें संगीत

वीणा आजूनय गायता
कानांत तीचे सूर आसात
तर सुक्षीम ध्यान आज नात
तें आत्मज्ञान पळोवपाक नात



# स्वार्थ आनी परमार्थ

काळ भर राबला एक सुन्न विचार
ह्या मनांत
मनीस मनशाक म्हूण
स्वार्थ न्हय, केवल परमार्थ.
अर्थ सत्य, परमार्थ न्हय
परमार्थ कितें ? येना वे देखीक ?
परमार्थांत कांय ना.

स्वार्थ सत्य चरितार्थ जाता
ह्या अर्थाक सोडून परमार्थ कित्याक ?
स्वार्थच परमार्थ
म्हाका स्वार्थ, तुका स्वार्थ
ताका स्वार्थ, मात स्वार्थ

परमात्मा एक, आत्मा अनेक
दोनूय एकच
भितर चोय
हें परमार्थ देखीक येता.



# जीवनीति

रानांतल्या जिवांक इत्याक जीवनीति ?
तांका सुख इत्तें ? दुःख इत्तें ?
एकामेकाक मारून तांचें मांस खावून
तांच्या वर्गाचे वाडीक तीं जिवंत आसात.

मनशाक इत्याक जीवनीति ?
ती मनशाक वाडयता
जिणेक तेंको दिता
सभावाची शुद्धि करता
देवा लागी पावंयता
संस्कृतायेची उदरगत करता
सभ्यतेचें म्हत्व सांगता
मनीशपणाची ती साण
आनी प्रश्न इत्याक ?

समाज मनशाक करता-
महाकवी, कलाकार, चित्रकार, खेळकार,
दार्शनिक आनी बुद्धिजीवी.
जिणेचो अलौकीक सभाव
अर्थाची दिव्यानुभूति अतीन्द्रिय
तीच सभ्यता, मनीशपणाची दिव्यता
साहित्यांत, कलेंत, चित्रांत, दर्शनांत आनी बुद्धींत
पळोवपाक मेळटा.

होच संस्कार, परिष्कार,
ज्ञानाचो, बुद्धीचो, भावनेचो अनीक जनाचो.
हाचो अभाव मनीशपणाचें हनन,
आनी मृगाचें जनन.

भूल-चूक, मारामारी, पिडापीड, लूटमार
निराशा आनी आत्मघात
हांततल्यान मोचन 'विद्या' मात
'सा विद्या या विमुक्तये'
आत्माक जाणून, मनशाक मानून
देवाक लागून, सन्तोश पावून
मनीशपणा खातीर जिणेक अर्पण करून
मोक्षाक पांवपाची गत.
हीच जीवनीति.



# लोकनीति

कसली ही लोकाची नीति
चिन्तून म्हाका जाली भीति

बॉम फुटलें स्टेशनांत
प्राण घुटलो अधिवेशनांत
मनीश मनशाचें हीत मारता
दुडवाक मात पुजा करता.

मनांत भरली हीच वेदना
भायर आयली नवी चेतना
देवा ! तूच सत
मान राक आमचो नित

स्वार्थ-साधन लोकनीति
सत गेलें आयली भीति
सत असत एक जालें
आत्मैश्वर्य गळून गेलें.

अन्याहित लोकाक इश्ट
उत्सव जाता व्होड कश्ट
प्राण्याचें मोल भांगराचें तोल
मन रडता जावन खोल

मनीसपण सरून गेलें
मशीन मनीस एक जाले
धावन आसात धना फाटी
राक्षस जावन मनान घट्टी

दिसान दीस मोडीं नवीं
भावना तांची नवी नवी
गोंदळ करता कांय चोयना
अन्तरनाद आयकून घेना

मनीश भुल्लुसून भुंजून भोंवता
अपणाली गत दुर्गत करता
वायट करूंक आशेवन रावता
वायट करून सूख पांवता.

कसली ही लोकाची नीति
चिन्तून म्हाका जाली भीति



## 'तस्मै श्री दुडवे नमः'

'दुडुर्ब्रह्मा दुडुर्विष्णुः दुडुर्देवो महेश्वरः
दुडुर्साक्षात्परब्रह्म तस्मै श्री दुडवे नमः'

दुड्डु मनशाक मळबार व्हरता
तोच मनशाक तळाक हाडता
दुडवा मागल्यान मनीश धावंता
मनशाचे फाटीक दुड्डु पडता.

कुल गोत्र दुडवान मेळता
हें सत सर्वांक कळता
दुडवा ओट्टु नरका द्वार
भुल्लसून वता धर्मा'धार.

'दुड्डु मनशाक सगळ्याक व्हरता
स्वर्गाची वाट चुकयता'
बरें वायट कळच्या मनशाक
वायट करूक भडकायता.

दुड्डु आशिल्याक हस्ती बळ
दुड्डु नाशिल्याक मड्या बळ
'दुड्डु दव्वरि बंदून
तो वता सुंदून'

दुडवा ऊंचें घोण ना
दुड्डु असल्यार घाणि ना
आपदाक त्राण दुड्डु
जड दुड्डु जड दुड्डु

★

# आई

तुज्या करुण मन्दहासांत
भरिल्ली आसा निर्वृती,
पीडावृत मनाक तू
शांत, स्निग्ध, धवल, विमल
करून अश्रूच्या दरयांत व्होळयता.

तू
मोहमयी ममता
तुज्या मनांत भरपूर क्षमता
भुंयचे सारकी तू
दोशांकय क्षमा पांवंता
करून पवित्र सान्त्वना
दुःख, दर्द पयस करून
वात्सल्यान व्होंट भरून घेता.

सर्वंसहा !
भार वहन करून
तू चलता आपलें कर्तव्य म्हणून
तुका सग्ग स्वीकार
पुण देंवता दोळ्यांतल्यान धार
शान्त करून कळ्जाचो ताप
मागीर वोगीच
मनांत गळता तो निष्पाप.

आई !
हेंच कांय मातृत्व ?
अतृप्ततायेंतली तृप्ती
सेवा, पूजा, आदर्श आनी
मोगांत आसता
हाचें कर्तृत्व !



# निश्ठूर

कितल्यो खेपो सांगलें हांव
याद थोडी केली तुवें ?
आतां हांव तुका सांगतां
मनांतलें सांगून घेतां.

वाडयली तुवें ह्या संवसारांत
दु;ख, त्रास आनी पिडापीड
तुज्या मनांत आसा कांय ?
जित्या जिवाची किंचित् दया ?

हें तू विसरूं नाका
दुःख खंय तरी आसचें ना
तू खंयूय शेणचें ना
फुडारांत अशें जांवचें ना.

निर्जीव न्हय ते याद कर
तेवय तुजे जशे जियेंवचे
आपल्या मनांक लगाम दी
तांचे खून पिवंचे न्हय

म्हाका हेंच सांगचें आसा
तू पापी, आनी विसरूं नाका
बरें करचें ना जाल्यारूय
लोकाचें मन दुःखोवंचें नाका

★

## संवसारांत भरला काळोख !

संवसारांत आज कितलो रे काळोख भरला !
हरे, तुजो संगात मात म्हाका आज इष्टाचो
फट खयूंय आनी कपट खयूंय
सतांत आनी तथ्यांत अडखळ आनी आपटप
विपरीत जाला जिणेचो क्रम रे हांगा

संवसारांत आज कितलो रे काळोख भरला !
संवसारांत आज जात्रा आनी उत्सव
तांतय आसा घुसपा गोंदळ
मनांत आनी मुखार भरून आसा काळोख
जिवाचें सत खयूंय ना

संवसारांत आज कितलो रे काळोख भरला !
जिवाक जिवाचें भय आयलां
जनांक जनाचो त्रास आयला
मनशाचें आवास  असुरांची सुवात
मनीश जाता पापकर्माचो इश्ट

संवसारांत आज कितलो रे काळोख भरला !
आतां हांगा अस्तित्वाचो विचार मात आसा
परोपकार , जीवदया, अहिंसा खयूंय ना
धन, मान, प्रतिश्टा, परस्पर झोंबून घेतात
लज ना, मान ना, नारो मात लगता आसा



# खंय साकून खंय पावलीं ?

विसरलो देवाचें तो वरदान
करून त्या स्रष्टाचो अपमान
जनावरां सारको धीर जावन
संवसारांत व्हडलो वीर जावन

त्या दयाळाची कृपा घेवन
ताचेर पडिल्लें अमृत जावन
गंगा यमुना सरस्वतीचे
अमृतधारेचे प्रकार भिन्न.

परम पवित्र भूंय भारताची
तांत प्रवेश करून पुण्यात्मा
भयरहित रानांतल्यान भोंवताले
स्वयं तृप्त जावन रावताले

दया, दान , विद्या आनी ज्ञान
हांततल्यान सफल जावन
करताले उपनिषदाक मानून
'तेजस्विनावधीतमस्तु'.

पयलेच तें युग म्हान
जियेताले ऋशि बुद्धिमान
सर्वश्रेश्ठ तांचे सुशिष्य
सताचेर करताले बलिदान

तेज, बल आनी तो विश्वास
महाह्रास जावन नश्ट श्वास
ना जालो तांचो महामान
उरलो एकलो तो मनीस महान

सहज ज्ञानी आनी तो बलवान
आपलें जाळें तो घालता म्हान
उद्देश्यहीन आनी दीन जावन
जाता तुरंत तो कार्यलीन

ना आतां परम ते संबन्ध पवित्र
पिता-पुत्र आतां जाले शत्रु
गुरु शिष्याचें परस्पर वैर
वाडोवन हाडता दुष्टपण

स्वयं जालो तो 'मातृदेव'
आनी 'पितृदेव', 'आचार्यदेव'
आपणाकच सग दीवन मान
सर्वस्व, स्वार्थ, आदर, अभिमान

शेणून पवित्र मनीशधर्म
शेणावून केवल अर्थ अधर्म
पावंपाक स्वार्थ भरिल्लो 'मोक्ष'
वीर म्हूण तो नरखांत पडता.

मनशा, तुज्या मनांत आसा
तेज, तर तू जावन दीन
अधर्मा वाटेर स्वार्थलीन
रावता कित्याक कुकर्म करून ?



# तिनसांज

तिनसांजेचो शान्त वेळ
मेकळ्या वार् याचो धांवचो खेळ
दरया तळाक ल्हरां येतात
वयर मळब शुभ्र विमल

सकयल येता अंधकार
काळोख दिसता ल्हारांचेर
व्यापून येता शब्द मधुर
कलकल, छलछल सुन्दर सुर

मनशाच्या मनांत तेंच गरल
भरून आसा अन्तराल
आतां करता तें गरलवृष्टि
तांत व्यापून आयल्या सृश्टी

दरया देगेर आसा रूख
तोच साक्षी थरथर हालता
ताच्या मनांत राग भरता
तो पळयता हें सगळेंच दृश्य



# नीरवता

नीरवते ! तू कितली मनोहर
सांय सांय करता मनां भितर
सगळ्यांक करून भ्रांतचित्त
हांव जातां शान्त चित्त

कांय विसराची उरिल्ली याद
आज कांय वरसांचे उपरांत
म्हज्या मनांत धावन येता
शान्ततायेचो आलाशीरो घेता

हांव थोडा भिरांकूळ जातां
भव्य आत्मविस्मृतींत पडतां
वेदनेन भरता अंतर
ही अवस्था कितली सुन्दर !

हे असीम चळवळींत
मनांतल्या निरशेणींत
दोळ्यांतल्यान दुकां येतात
ताप तीं पयस करतात

मागीर मन जाता शून्य
करून म्हाका चिरप्रशांत
एका प्रलयाचो जाता अंत
शान्ति येता मन्द मन्द

हेच अनन्त शून्यतायेंत
मनाक जाता आश्वास
पयस वता दुःख सगळेंच
नीरवतेचें सूख वेगळेंच



# दिवो जळता

नीरव तिनसांजेच्या वेळार
शान्त जावन जळता
विस्मृतींत विरगळून
दिवो जळता

कोणूय ना ताका
पोरण्या उडगासांत
लीन आसून
दिवो जळता

अज्ञात अनन्ततायेच्या
विचारांत पडून
नुलयत शान्त
दिवो जळता

बात वात पयस करून
अन्तर्लीन निष्कंप आसून
असीम शान्ततायेंत
दिवो जळता

उजवाडाचें पावल दवरून
काळखाचें पांगरूण पयस करून
उदार जावन विरगळता
दिवो जळता

जळता जळता पाप गळता
अनन्ततायेंत एकवट जावंचाक
खिण खिण घट तपस्या करून
भितरीच लीन आसून
दिवो जळता



# विनवणी

व्हय गो प्रेरणा दिवपी
व्हय गो वाट दाखोवपी
हांव तुजे लागी झगडप कशें ?
तुजे लागी नातें दवरप कशें ?

तू भोव सुन्दर
कौटिल्य मनांत भर
तेंच म्हाका पयस करता
मन म्हजें घट करता

तर मन मानवना
सांगता तें केन्ना केन्ना
'तू कर विनवणी
मानवतली दुबाव ना'

उतरां मनांत आसतना पोरणीं
कशें हांव करचें विनवणी
ना, म्हजो तुजो संगात पवित्र
तांत मेळे उपदेश श्रेशट

तुवें केलो उपकार
म्हाका दिसलो अपकार
वाट जाली उजळ
काळोख गेलो पयस

★

# चन्द्रमाचीं दुकां

देवा हांगा कितें जाता हें ?
मानवतेचेर दानवतेचो अधिकार
सैमाचेर विज्ञानाची लूट
मनशाचें पोकळेपण

मनीस तो भुल्लुसून वता
विद्वान म्हूण सांगून भोंवता
पयस पयस अंतराळांत
म्हजे लागी पावंता

सगळे मनीश वैज्ञानीक
सुकवी आनी सुधारक
पोरणी परंपरा आज ना
ताचे स्रोत पळोवपाचे ना

सत्य सोडून, गीता मोडून
राकेटीचेर उडत वता
सर्गार वचपाचें सूख सोदून
म्हजी सवस्तकाय सोडून घेता

आज तें रूप खंय
जाचें उपमान हांव, हय
इत्तें केले हें हावें
दिव्यता आनी सौन्दर्य सांडून

तें रूप आज पळोवपाक ना
आयच्या राकेटींत धरपाचें ना
तें म्हज्या रूपाचेर कलंक लायता
आपल्या मनांत उजो हाडता

खंय गेलें तें सुन्दर सपन
म्हज्या सुखाचें पुरातन
दुकां रुपान भुंयचेर येता
मनाचो ताप घेवन हून जाता



# कुमार आनी मडकी

पवित्र धाम, मडक्यांचें काम
अग्नीचो तो पवित्र परिश्रम
मडकेचो आकार घेवन
अग्नींतच अंत जाता

हाव्यांत मडक्यो दवरून
भायर येतासना लासून भाजून
ना कसले रोग ना कसली फटवण
सत मात हांगा पवित्र जशी गंगा

जीण पवित्र आचार पवित्र
पवित्र विचार आसरो पवित्र
देव, घर्म, उत्सव, जात्रा
सगळ्या कार्यांक मडक्यो मात्र

भांगराचे कलश राखपाचें कश्ट
लोकाक मडक्यो काडपाचें इश्ट
जिणेचें म्हत्व आसा मडक्यांत
मरणाची गरज मडक्यो मात

शीत करपाक मडक्यो उत्तम
ओखदाचें निर्माण मडक्यांत जाता
मडक्यांत उदक पवित्र जाता
जिणेची शुद्धि मडक्यांत आसता

सोरो मडक्यांत स्तराचो म्हण्टात
बांगडो मडक्यांत स्वादिश्ट जाता
भाजप तळप मडक्यांत जाता
हीच जिणेंत मडक्यांची गरज

मडक्यांचें नांव श्रद्धेचें काम
भिजोवन काडचें बरें काम
मडक्यांक बरी लोणी माती
सुगूर केल्ली कुडतेन बडोवन

मडक्यो करचें कुमराचें काम
कुलाल ताचें दुसरें नाम
कुलाल ऋषीचो वंशज तो
मातये धंद्यांत प्रवीण तो

आंगणा भायर सावळेंत व्हडली
कवंज करून तो भाण पेटता
निसर उदकांत बुडोवन माती
तो ती ओली करून  घेता

उजव्या हातान पेटण्यान पेटून
दाव्या हातांत फातर धरून
भितरल्यान भारच्यान पेटून ताचो
कमरेचो कांटो मोव जाता

आयचें विज्ञान, आयची तकनीक
मडकेच्या धंद्यांत ना जाल्यारूय
वह्नीक लागून मेळची शुद्धि
कुमराक बरोबर मेळून आसता.



# सुनामी

आयलीं गो आयलीं गो सुनामी ल्हारां आयलीं गो
धांव गो धांव गो प्राण घेवन धांव गो
पाळार ऊंच मळ गो मळार ऊच पाळ गो
पाळय मळय मळय पाळय एक जालें गो

ल्हारां उंचार मनीश गो मनशा मत्यार ल्हारां गो
दोळ्यां, नांकांत, तोण्णांत, कानांत भरले मुगो उदक
ल्हान, व्होड, भुरगें, म्हांतरें सग्ग जालीं बलि गो
माया ना, दया ना, मारून व्हेल्लीं ल्हारानी गो

एक आयलें तडी गो एक पळ्ळें रानांत गो
एक गेलें कालीघाट एक आयलें अल्पळे गो
मेळ्ळें एकल्याक पिड्या पोंद, गेल्ले एकल्याक हात पाय
गोंवटो गेल्लो थोंटो जालो हाडून घालो तडी गो

कुणबी ना, खारो ना, नायतो ना तिप्टो ना
भेद ना भाव ना सग्ग जाले एक गो
देव सत्य लोक मिथ्या हाचें भान जालें गो
शक्तिवंत मेलो गो शक्तिशून्य उरलो गो

सुनामी हो देवालो खेळ मनुज कितें करतलो गो ?
हात पाय मारून उदकांत प्राण तो सोडतलो गो
देव दुश्ट ? न्हय मनशाचीं कर्म दुश्ट जालीं गो
मारचें , मरचें, रक्त पिवंचें हेंच सहज जालें गो

काल कराल पावलो गो राग-द्वेश निवले गो
'जीव मेळ्यार भीक मागन' सग्ग समान जाले गो
एका दिशेन ल्हारांचे गर्जन, एका दिशेन मनशाचो गोंदळ
सागर ताण्डव चलता गो आंग म्हजें मुयेता गो

दुडवा खातीर मनीस मरता, दुडवा खातीर मनीस मारता
ल्हारां पळ्ळेल्या मनशा खातीर दुडू कित्तें करता गो ?
वंचल्लो दुडवाक हरण येता, सरकार ताचें तारण करता
वांचून उरपाक सुनामी, दुड्डु जाता बिनामी

एकलो दिता चोव्दा लाख, एकलो दिता चोवीस लाख
लक्षु मेळ्यार, कोटि मेळ्यार , प्राण सुंटून वता गो
जीव आसल्यार दुडू जाय, जीव गेल्यार दुडू नाका
दुडवाक मोल खंय आसा ? दुडवाक बळ खंय आसा ?

होच संदेश सुनामीचो जीव मात सत्य गो
आयलीं गो आयलीं गो सुनामी ल्हारां आयलीं गो



# सायलो

कोण सांगता तो रूख म्हणून
म्हाका सांगचें आसा तो मनीस म्हूण
ताचेंय मन आसा सुख-दुःखाचें
ताचेंय जीवन आसा शंभर वर्साचें

रानांत ताचो वास जाल्यारीय तो एकलो न्हय
मनांत बळ दिवंचो ताका वांगडी आसा खंय
ताचे वाटेन मेळता मोग, मनाक समाधान
सायलाक पूर्ण तृप्ति संगाताचो भर करून

सायलाचो मित्र, रक्षक आनी राखणदार
गेलो सोडून ताका परलोकाचे यात्रेक
स वेंगो पावनतिल्लें स पुरीस ऊंच कांड
ताचे वयर पसरून मळबाक तेंकिल्लो रूख

सावळी शेळोव दितालो तो पुराय भोंवतणेक
दितालो आश्रय तो तरेकवार जीवांक
धीर वीर उबे सायलाचें धैर्य खंय गेलें ?
वांगडी मेलो सायलाचें धैर्य वांगडी मागशीं गेलें

सायला पळोवपाक आयले जन
ताका वी. आय. पी. मानवताले
धैर्यहीन सायलाक पळोवन निराश जावन वताले
रक्षक मेलो सायलो उरलो, ते म्हण्टाले

रक्षकाची निस्वार्थ सेवा तोखणायेचो विशय जालो
रक्षकाचे स्तुतिगीत जन सग्ग म्हण्टा रावले
आपलें दुःख भितर जिरोवन, रक्षकाक याद करून
तो सायलो आसलो मौन



# अंब्या-रूख

अंब्या-रूख व्हडांत व्हड
म्हत्व ताचें चडांत चड
नांव ताचें पुराण-पुरूस
काम ताचें आसरो दीवप

पांयशीं वर्सां पोरणो रूख
पुर्विल्ल्यांचो प्रीतीचो रूख
सावळी ताची प्रियंकर
कामार आशिल्ल्यांक विसव दिवपी

गिमा कालाक वोताच्या तापांत
वाठर भर पातळिलो तो
हुनसाण आनी शेळोव सोंसून
करता आमची रक्षा वांचून

आंब्याक जेन्ना आसता दुकाळ
आमच्या रुखाक नासता हो काळ
तेरा सारके फुलांचे घोस
मरतका सारके आंबले घोस

ताच्या पोनांत सभा जाताली
राय-राणी भुरगीं खेळतालीं
कथा काणयो सांगून घेतालीं
आंबले घोसाक फातर मारतालीं

अंब्या फूल सुगंध भरिल्लें
पंचबाणाचें आकर्शण भरिल्लें
आंबले घोस सुख भरिल्ले
ताचें रक्षण आमचें काम

गोड म्होवाळ, सुंबाळ आंबे
वर वर खायत रावले
कायळे, चान्यो, सवणीं, पाखे
वसति करून धादोस पांवले

आंबे पिकले कालाकालाक
रुखाच्या पोनांत भुरग्यां कलकल
सुकणीं जीव तरेकवार
आंब्या घोसाक चोंच मारतात

कावळो खंयच्यान चानी खंयच्यान
चड आंबे सकयल पडतात
ते वाटेन भुरगीं धांवतात
हातांत वल्ली तोंडांत आंबे

अजापाचो तो आंब्या रूख
रसाळ म्हण्टात आंब्या रूख
आंब्या रोस तितलो गोड
नांवा सारके गूण व्हड

दीग, रूंद, सुलुंब रूख
पंचवीस फीट ऊंच कांड
ताचे वयर शाखा प्रशाखा
पसरून त्यो मळबाक तेंकल्यात

कोण केन्ना रोयलो कांय
अम्मुलक्का नांवाची मांय
लोकां मर्दी आवडेचें नांव
अजून तिचें घेतात नांव

तिणें केलें बरें कार्य
सामान्य जनाचे प्रीतिचें कार्य
शक्कर खांवचे संपन्न वर्ग
आंबे खांवचे सामान्य वर्ग

सैमाचो आनी मनशाचो मेळ
जिणेचे संपन्नतायेचो खेळ
दीस ते फाटल्यान गेले
आंब्या रुखाचे वांटे जाले.



# गुलाब आनी साळीक

सड्यार फुलून सोबीत जालें
कांटाच्या झाडार
मन्द मन्द वार्यांत
नाचता हालून धलून
गुलाब
सर्गावयलें फूल तें
आपल्या सौन्दर्यांत मग्न
अप्सरकन्यांच्या
मनांक आनन्द दिता.
सकयल तळ्यांत
सुर्याच्या किरणांचे प्रकाशांत
विसकळेता
श्वेत साळीक

पाचवे पानां मर्दी
मरकताचे ताटली मर्दी
सोबीत
सैमसुन्दरीचें कर्णफूल जशें
मनांक करून आकृश्ट
स्वच्छ सुन्दर आनी थेट
उजळ जावन भोंवतणेक
सोबीत करता.

गुलाब सुगंधाचें
तें गर्विश्ट
मनांत धरता
'हांव भांगरांत सुगंध भरपाचें
काम करतां '
तर ते कांटे
मनशांच्या मनांत आडावण घालतात
मन दुःखयतात
देह सोलून घेतात.



# पिसोळें

पिसोळें तें कितलें सुन्दर
धवे धवे पाखा मर्दी
नीळ नीळ रेखा घेवन
म्हज्या मनांक ओड लावपी.

हांव तुका पळयतां
मनांत म्हज्या आनन्द पांवता
तेन्ना तू उडून वता
म्हज्या मनांक दुःखांत घालता

मन दुकवपाची तुजी युक्ती
भरता मनांत चडि भक्ती
मनीस दुःख सोंसून घेता
हाच्यान तुका गौरव येता ?

देखून हांव तुका सांगतां
लागी यो म्हूण हांव मागतां
तुका कांय तरी कश्ट दिवना
तुका कांय तरी नश्ट करना

मनांत नवे भाव जागोवन
उडून वता मन भागोवन
पिसोळें तें कितलें सुन्दर
म्हज्या मनांक ओड लावपी

★

# चानी मांय

चानी मांय    चानी मांय
कितले सुन्दर तुजे पांय
आंब्या रुखार उड्डी मारता
उंचार वचून आंबो घेता

तुजे फाटीर तीनि रेखण्यो
काळ्यो गोर् यो रांक उरतात
तुचें भाग्य अपूर्व कांय ?
जन म्हण्टा तुका मांय

चानी मांये तुची शेंपडी
सदा हालता, तुका आवडेची
मनशाक पळोवन शेंपडी हालोवन
तू रडता कांय ?  संवता कांय ?

तुजो वास आंब्या रुखार
खाण तुजें पिकलो आंबो
पेर तुजे आवडेचें
शीत तुका परवडीचें

रुखार चडून वयर वेता
चडले तशी देवन येता
खंद्यार खंद्यार उड्डी मारून
खेळता आसता हालून धलून

★

# शेवणें

मळबाच्या नीळ मंडपांत
रूख-रुकावळीचे उंचार
पांखां फडफडावन वता खंय
मनांत इतली इत्सा घेवन ?

आपल्या घोंटेरांत रावन
आज गेला रे तूं उडून
खंयच रावनासतना तू
कठीन वाट पार करून
अपणाक विसरून
मनांक सपनांत रंगावून
स्वच्छन्द उडून वता
गीत गावून उडत वता

मुकामाचे पयस वचून
वीर शूर उशार जावन,
भोंवतणेक आसात क्रूर मनीस
तुका मारून सकयल घालतले

तू येतलो सकयल
मळब सोडून विकल
मनांत हेंच चिन्ता करून
सांबाळून आपली रक्षा करून



# आश्रय

वाटेचे एका तरफेन
वटवृक्ष रावला एकलोच उबी
ताची परंपरा भोव पोरणीं
तो एकलोच बोवाळ करता
वार् यांत हालून धलून

छायादार वटवृक्ष
ताचे खंदे कवरे
आश्रय दितात वाडसूरांक
आनी ते घेतात ताची सावट.
ताचेर आसात घोंटेर
शेवण्याचे प्राणाधार,
ताचेर आसा वाली
ताचो आश्रय घेवन.

लागीच, तरफेन
वाटेचे समानान्तर, ऊंच
विजेच्यो सरयो आसात
टेलीफोनाची बी
रुखाच्यो इश्टीण्यो
दितात ताका संदेश
आपल्या मन्दहासांतल्यान
प्रकाश पातळावून

वटवृक्ष हो संदेश घेवन
हळूच सरयां लागी आयलो
सरयांत आयलें कंपन
दिली माहिती
आयलो लाइन मैन
गेलो कातरून रूख
निर्दय, केलो ताणे रूख
धराशायीत
सरयांक वेगळावून आश्रय नश्ट करून.

वटवृक्ष सकयल पडलो
सवणीं घोंटेर सोडून गेलीं
चरचरी वतांत
वाडसूर ओह ! करून गेले

तर ती वाल रुखाच्या खंद्याक
वेंगावून पडली, सुकून
हे सुकणावळेंतय वटवृक्ष
तिचो मुख्य आश्रय जालो



# शुक्रग्रह

दिवसावसान
अन्तराळाचे पेलतडी
अनन्त नील आकाशाचेर
सांजवेळाच्या मन्द प्रकाशांत
सोबीत आसा
शुक्रग्रह.

उमासेची रात
भरून आयला कोळोख
सावकासायेन
ताणीं आपली शाल
विस्कळायली
असदावास, सत्प्रवास
पापाच्या आभासान.

दिसाच्या उजवडाची
स्वच्छ शुभ्रता खंयच ना
चाऱ्याची कुरू ना
शेवण्याची किलबील ना
वार् याचो मन्द आवाज़ ना
जीव जन्तु ना
नीरवतेच्या राज्यांत
विद्रोहाचो बोवाळ जशो
घुगमाचो आवाज़ मात.

न्हंयेची शान्त करावळ
रूख-रुखावळ झेम काडतात
वाट शान्त निश्चल
रात अचल उबी आसा.

शुक्रग्रह
चलून आसा
ध्यानमग्न, कर्तव्यलीन
तो चलून चलून
पश्चीम चक्रवाळांत पावलो
वज्राचो प्रकाश
सर्वत्र पातळून आसा
काळोख गेलो आनी
आकाश जालें प्रकाशपूरित
तेजोमय.



# मिरसांग

मन्द मन्द वारें
हालून धलून आसा झाडाचेर
मरकत जशीं पाचवीं पानां
तांत मदीं विद्रुमाचो डूल जशी
नांचून आसा देंठार
सुन्दर स्वप्नमग्न
तांबडी मिरसांग.
जीव-जीवाक आकर्षित करून
मनांत हांसून, आनन्द घेवन
नाचता ती मदोन्मत्त.

ल्हानपणाचेर
नटखट आसून
बेताक आनी माराक भियेवन
पाचवे पनांचे मख्र्शीं लिपून
ती काळ मुखार व्हरून रावली.

आतां पुराय वाडली
झाडार आसूनच
भय नाशिल्लें ती
दोळ्यांत तटास जावन पळयता
खिन-खिन
निरंतर प्रतिफलित आपलें सौन्दर्य
विसकळायता.
ती विश्वास करता
'यत्राकृतिस्तत्र गुणाः वसन्ति'

सुन्दर रुपांत पाप नासता म्हूण
विश्वास करून
गेलो तो मनीस मिरसांगे लागी
तिणें आक्रोश करून
आवड भरिल्ल्या ताच्या मनाक
चडच त्रास दिलो.



# सैमाची सुन्दरताय

सैम सुन्दरीचे होंटींत पडली
श्रेश्ट सुवात, ती सर्गसुन्दरी
सृश्टी करच्या ब्रह्माची चत्राय
हांगाय थांगाय दाखोवन आयली

पाचवेचार सैम सुन्दरी
तिचें नृत्य अति सुन्दर
आपले रूप-मनोहरतायेक
मनां भितरि तोखेता

दोनूय दिशेन भीषण रानां
ताचे मदीं व्हावती न्हय
श्यामवर्णांत नीळ घोळून
दाखयता अद्‌भुत मनोहर मळ

तांत मदीं सुर्या किरणां
भांगर जशीं सोबीत आसात
सुन्दरतायेक सुन्दर करून
आपलें योगदान दित्तात तीं

सोबीत आसता सुन्दर जावन
सुवात ती कांय जिनस घेवन
साक्षी आसून  उडगास करता
पोरणी स्मरणा मनांत धरता

शान्त स्निग्ध नीरवतेंत
उबे आसात रूख हांगा
हेच पोरणे स्मरणे खातीर
ओग्गी रावल्यात नीट हांगा

स्वर्णिम सुविमल सुप्रभात हें
सुकणीं करतात किलबिल खंय
येवपाक आशिल्ले गौरवतायेक
गीत गावन स्वागत करतात



# एक पयण केंद्र

कोच्ची लागी एक गांव
कुंबळङ्ङी ताचें नांव
रुखावळ पाचवें चार
भुर्गावळ कोयरु भार

सैमाची ही सुन्दरताय
गांव भर पातळून आसा
गांवांतले ल्हान व्यवसाय
गांवचे भोव रुचकर दृश्य

उदकांतली नौका-यात्रा
पयणार् याचे आवडेची
वारें निरन्तर भोंवता आसा
ताचें आस्वादन करता आसा

खाडीचे देगेवयल्यान
माड्या तोपांचे मद्देंतल्यान
उदकांतल्यान दृश्य सगळेंच
विश्रामाचें तें वेगळेंच

सैमा-सृश्टी आवड दिवपी
सुकणीं, पिस्सोळीं; मासळ्यो
लवणी उदकाचीं, अन्तरालाचीं
मनांत मनशाक सन्तोश दितात

हाउसबोट ल्हान व्हड हांगा
पयणार् याचे आवडेचो
ताचेर सैमाची सुन्दरताय
पळोवपाक मेळटा थांगा



# कलियुग

राम-कृष्णाच्या धर्माच्या रुपान
पूर्ण जालें द्वापर महान
सताचो तथ्यांचो विरोध करून
आयलें कलियुग स्वार्थप्राण

कलियुगांत मनीस नर-पिशाच
करता परस्पर मनशाचो घात
प्रेतात्मा सग्ग पळयतात
दोळे व्होड करून अखण्ड स्वार्थ

भेदभाव आतां ना जातिचे
तरेकवार आनी उच्च नीच
समशासन करपाची हांगा
इत्सा मात सगळ्या जनांक

श्रेश्ठ जनांचो पावन वास
ना आतां भारत-देशांत
शिव-शक्ती , पुरुषोत्तम सग्ग
सांडून गेले मूल सुवात

साधु, पुराण, श्राद्ध, तर्पण ना
हांत आतां कोणाक विश्वास ?
वेदांचो आनी कर्मकांडाचो
ना जालो हांगा सदा विशेष

सत्य, धर्म, व्रत, तप आदिचो
खंयूच ना जालो प्रचार
वेद, शास्त्र आनी पूजा-कर्मांत
आयलो घोर पापाचो अधिकार

नाम-संकीर्तन आदिचें
स्थान काडलें तें सोर् यान
फट, कपट आनी घृणित वस्तींची
उत्तेजन हांगा आसता महान

देवा-ध्यान आनी पुण्यकर्मांत
मन कोणालें हांगा ना लागचें
मानव सांडून गेला पावन
ब्रह्मवृत्ति पवित्र महान

ज्ञानी, मानी, दंभी जावन
गीताचो तो आधार घेवन
'आत्मन्येवात्मना तुष्टः'
मनीस संबंद नश्ट करून

'योगस्थः कुरु कर्माणि'
स्वार्थयोगांत तो जाला विलीन
पुरुष आज तो नांचून भोंवता
पौराणीक म्हूण नवयुगीन

अश्लील, धूर्त, शठ, क्रूरभाव
अधिकार आयला म्लेच्छांचो
रामनाम जिबेर आसा ताच्या
न्हेसणांत आसा कुठार

धर्महीन, चारित्र्यहीन,
मिथ्यादानी मानववंश
रगता चिकलांत गळून वता
कल्कि जावन देवाचो अंश



# बायल कलियुगाची

द्वापर गेलें कलियुग आयलें
बायलांक दादल्यांक भेद ना जाले
साडी ना बायलांक सालवार आयलें
जंय थंय कालसांव तांचे लागी पावलें

सांगता आमची परंपरा पोरणी
'पतिर्हि देवो नारीणाम्'
कलियुगांत उपराटें जालें
पत्निर्हि देवी पुरुषाणाम्

बायल कामाक वता आसा
घोव घरांत बसता आसा
जन सांगता कलियुग म्हूण
स्वार्थ-विचार भरले म्हूण

काम कसलें करता बायल
मॉडलिंग आनी आक्टिंग
हाचो पगार मेळटा व्हड
करता बायल दाम चड

'पतिव्रता बायल घरा दिवो'
म्हणतात आमचे पुर्विल्ले
आज पातिव्रत खंय गेलें ?
मॉडलिंग आनी आक्टिंग जालें

घर घराबो क़ांयच ना
वास तांचो होटेलांत
दाम जाता विचार कसलो ?
सदा आसा विकार  असलो

नामस्मरण ना जालें
तिनसांजेक सिनेमा-गितां
पोरणीं मुल्यां ना जालीं
बायल आमची दादलो जाली.



# नवें युग

युग नवीन नारी-अधीन
युवमन आसा सौन्दर्यलीन
जन सांगतात विवेक ना म्हूण
आमी सांगतां सभाव ना म्हूण

तांका समज आसा तो सत अर्थ
आपल्या गहन सोदाचो परिणाम
ऋशि-मुनि हांणी बी सांगलां
'यत्र नार्यस्तु पूज्यन्ते.......'

देवप्रीति मेळ्पाक जावन
पुजा करतात बायलांची
त्याग करपाक तैयार जावन
आत्माचें करतात बलिदान

जन म्हणटा, ताका पिशें,
तो आसा निश्चय घेवन
स्वयं खूब बुदवंत जावन
शास्त्र मात प्रमाण मानून.

बायल कुलीन, गुणांची
युगाची आयच्या प्रतिनिधि
करता सोद मनांचो
सामान्य युवकांच्या कर्माचो

तिका जन म्हणटा शिंदळ
व्यभिचारी, शिंदळणी
सांगतात ती आसा पिशांतूर
स्वयं वाट घालपांत आतुर

स्वच्छन्दचारिणी मंद मंद
वारें सुगंधित मंद मंद
चिन्तामग्न सोदांत लीन
शास्त्रांच्या उतरांत सोद करून

'पतिर्हि देवो नारीणां.......'
पति बंधु, पति गति
ही गत सोडून तिची
दुसरी गत खंयूच नाच.



# मेथडॉलजी

अभ्यासक्रम-विचारा विशीं एक परिशद जाली
नवे शैलीन अभ्यासक्रम हाची सृश्टी जाली
ल्हान व्हड अध्यापक एकठांय आयले
देशांतले, विदेशांतले अनेक विद्वान पावले
तांणी अभ्यास-क्रमाचेर विचार-विमर्श केलो
तांत करच्या सुदाराचेर नवो सोद घेतलो.

सुरू जालें पयलें सत्र विचार-विमर्श जालो
व्याकरणाचो अभ्यास हांत विशय जावन आयलो
एक अध्यापक, ताणी सोद-पत्र तयार केलें
हांत ताणी दिले विशयाचे खूब प्रस्न आपले
व्याकरणाचे हे प्रस्न सभेच्या मुखार आयले
विशयाचेर तर्क वितर्क विद्वानांनी केले.

जालो बोवाळ जेन्ना आयलो चर्चेक लिंग-विचार
आपल्या आपल्या लिंगाचो नवो जालो प्रचार
न.पु. 'पुस्तक' जालो हांगा स्त्रीलिंग
स्त्रीलिंगाची 'तकळी' जाली हांगा ती पुल्लिंग
अध्यक्ष आयलो रागार, पाणिनी तो नवो
माचयेर आयलो उड्डी मारून एक युवक नवो

नवयुवक जालो हांगा रागाचो आधार
ताचो तकलो विशय जालो लिंग विचारांत निराधार
श्रोताजन लागले हांसूक अध्यक्ष संतुश्ट जालो
कदेलार जालो नीट तो विजय ताचो जालो

युवक नवो रागार आयलो तो निन्देचो पात्र जालो
खूब सुपात्र जावन तो तर्क वितर्क करूक लागलो
बोवाळ करून चडलो माचयेर भयान अध्यक्ष चडलो मेजार
जन जाले दोन विभाग पक्षाचे आनी विपक्षाचे
युवक बळीश्ट आशिल्लो , अध्यक्ष म्हांतारो आशिल्लो
तर्क वितर्क जाले आनी सत्र हांगा सोंपलें
प्राण घेवन अध्यक्ष धावलो नवे जनांक सन्तोश जालो
सेक्रटरीन रिपोर्ट धाळ्ळी अभ्यासक्रम नवो जालो.



# अधिकाराची सुवात

अधिकाराची सुवात
एक फटवण मात
हे फटवणेंत कित्याक पडचें ?

एकदां तांत पडल्यार
परतून येंवचें कठीन
आनी असाध्य म्हणचें

अधिकाराची सुवात
हाची येवजण
एक सुन्दर सपन

हातां येताकीर ती
हुसको आनी कश्ट दिवपी
मनशाक घालता दुबावांत

एका वाटेन बांय जाल्यार
दुसरे वाटेन न्हंय आसता
काम हांगा कश्टांचे जाता

एका वाटेन सगळ्यांचो विरोध
दुसरे वाटेन कर्तव्य हनन
दोनूय वाटेन जाळेंच आसता

अधिकाराची सुवात
पळोवपाक मनोहर
वर्तणुकेन भयंकर

हीच ताची विशेशताय
हेच ताचे संस्कार
अन्यथा हांत वांच ना

अधिकाराची सुवात
मनशाक जिवोच लासता
आपलो हो उजो, तो
दुसर् यांचेर घालता

अधिकाराच्या कश्टांची
जाणीव नाशिल्ल्लीं
ह्या जंजाळांत पडतात
आनी उजो खातात.



# दोरंगी

इत्तें म्हणता गा ?
मनीस जाला दोरंगी
स्वार्थ तागेलें लक्ष्य
परार्थ केवल भक्ष्य
आपल्या स्वार्थाचे खातीर
तो दुसर् यांक बळी दिता

दुसर् यांचेर जीव दिता
दुसर् यांचो जीव काडता
पनास आनी पनास करून
पूरन आसता शंभरि धरून
दोरंगी चलता तो
विश्वासाक अयोग्य तो

फटयता फटयता घट जाता
कोचायता कोचायता कोचोलु करता
मारता मारता जीव घालता
जीव काडता जीव दिता
गूण ताचे अपार
सहनताय गेली पार

पार्टी प्रसिडेन्ट आयला
ग्रूप लीडर फाव जाला
परोपकारी आभारी
क्षमाकारी भुंयेंवरी

रूप ताचें दोरंगी
कर्तृत्वाचें बहुरंगी

राजनीतिचें जंजाल
सत्यवादी कंकाल
गूण भायरचे भायरची
भितर एक भायर एक
दक्केयता मुखार मनस्साक्षि
मनाक ना तागेले साक्षि

धवें धवें आंगार घालता
काळें काळें मनार घोळता
दोन रंगानी उबो रावता
तांत तागेलें चैतन्य सोंपता
जोडता जीण घालता घाण
धनाचें धन करता त्राण

उंचार गति ताची आसता
उदरगति ताका नासता
शेंपडी हालोवन भोंवता सूणे
सूण्याक मान तो ताजाक सान
मरता येता प्राण उंचार
दोरंगी जाता एकरंगी

★

# घांट वाजता

सुट्यांचे दीस गेले
मनांतलो सन्तोष निवळो
देहाचो ताप पयस गेलो
आनी गिमाक जालो अन्त

भुरग्यालें आलस्य पयस जालें
शाळेची कार्यावळ आरंभ जाली
भुरग्यांचो बोवाळ सुरू जालो
घांट वाजता, भुरगीं घांवतात

घांट वाजता शाळेंत
भुरग्यांच्या तनांत
तांच्या अपक्व मनांत
सैमांत, आनी भोंवतणेंत

भुरगीं सगळीं व्हड फोर्मार
नीळ्या धव्या यूणीफोर्मार
वळी जावन वत्तात सग्ग
हेडमास्टरा दोळ्यांत धूळ घालून

सभा आनी अनुशासन
प्रधान अध्यापकाचें प्रिय कार्य
अनुशासनहीन भुरगीं
कशी फटोवप, तांची चिन्ता

पार्टीचे खेळ आनी भुरग्यांचे अपघात
चलता आसात,
भुरग्यांक प्रेरणा मेळता आसात
उमंग आनी उत्साह भरिल्ली

'जनगणमन अधिनायक जय हे'
देशभक्ति भुरग्यांची वाडून येता
'जनगणमन' जाता हेडमास्टर वता
भुरग्यांक जाता भारी सन्तोष



# भय जाता

भय जाता म्हाका भय जाता
कोणा लागी सांगचें ?
कितें सांगचें ?

आंग सगळें कडकडता
जीब सगळी भायर येता
काळीज करता धक् धक्
कोणा लागी सांगचें ?
कितें सांगचें ?
भय जाता म्हाका भय जाता

घर राखप म्हजें काम
चोरांक भिवयता म्हजें नाम
तर हांव आतां भियेतां
कोणा लागी सांगचें ?
कितें सांगचें ?
भय जाता म्हाका भय जाता

हांव निरंतर भोंकतां
केन्ना केन्ना हुयेल मारतां
लिपून बेसपाक आशेतां
कोणा लागी सांगचें ?
कितें सांगचें ?
भय जाता म्हाका भय जाता

हांव पडला कुडांत
भायर वचपाक इत्सा करतां
यत्न करता धांवपाचो
कोणा लागी सांगचें ?
कितें सांगचें ?
भय जाता म्हाका भय जाता

घरांत सगळेच मोसायक आसा
धांवपाक म्हाका भय जाता
शत्रु म्हजे फाटीक पडला
कोणा लागी सांगचें ?
कितें सांगचें ?
भय जाता म्हाका भय जाता

लागी देवळांत उत्सव जाता
धावंक म्हळ्यार फोग मुखार
ठो ठो कान फोडतात
कोणा लागी सांगचें ?
कितें सांगचें ?
भय जाता म्हाका भय जाता

गडगड जाता मदराती
सैरन बारा घंट्याचो
भोंगो म्हज्या मरणाचो
कोणा लागी सांगचें ?
कितें सांगचें ?
भय जाता म्हाका भय जाता

★

# द्रोणाचार्य

करचे पयलीं शुभारंभ
विषयवस्तुचो प्रारंभ
स्वयं अर्पण करता हांव
वाणीच्या पवित्र पायां कडे

पोरण्या काळाक विनयी शिष्य
गुरु सगळे आशिल्ले सदय
दोग्गय आदर्श आसताले
दोनूय शिमो एक जाताले

युग परतलें द्वापर आयलें
गुरुचें रूप  पालटलें
शिष्यावयलें वात्सल्य चड जावन
अन्याय केलो जाणीव आसून

द्रोणाचार्य ते ब्राह्मण, वेदज्ञ,
शास्त्रज्ञ आनी उत्तम शस्त्रज्ञ
विसरून गेले आपलें कर्तव्य
लागी आयलो जेन्ना एकलव्य

मानवले ते क़र्तव्य अमल
केली चिंता कीर्त विमल,
अर्जुनाची, लोका मुखार
प्रशस्त, पातळून आशिल्ली

तत्काल द्रोणाचार्य जैतवंत जाले
त्या वेळार अर्जुन श्रेष्ठ जालो
मागीर भीलतनय मुखार आयलो
करून गर्वपात अर्जुनाचो

निमाणें आयलो तो दीस
द्रोण जाले कासावीस
ईर्ष्या, अहंकार, ना नपश्चात् जाले
अभिमान तांगेलो अपमान जालो

गुरुचो उचित मान  मेळ्ळो
शिक्षणाचो आदर  मेळ्ळो
गुरुदक्षिणेची वाडी घेतली
आनी  केल्लें शिक्षणाचें अन्त

कलियुगांत द्रोण आसात
ते अत्यन्त स्वार्थी आसतात
अर्जुन ? आतां पळोवपाक मेळना
भीलतनय हांगा आदर्श जालो.



# मंत्रणा

शिवतनय, कुमार, सुरनायक तो
केलें तारकवध जेन्ना ताणे
असुर सगळे रागार आयले
सुरवध-निर्णय थांगा जालो

ते तारकवधान दुःखी जाले
असुर सग्ग शापांत आसले
तारकाक्ष, कमलाक्षा लागी
तृप्ति नासिल्लें  चलूक लागले

तारक-सुत तेग्गय थांगा
दुःखांत पडून आशिल्ले
असुर-मागणी आयकून ते
सुरवध करूंक तैयार जाले

थांगा जालें अजाप अशी
शिवभक्त व्होड ते आशिल्ले
शिवतनयान ताका मारिल्लो
तारकासुर पराजित जालो

तांचे मर्दी वैर चलतालें
सुरां लागी , शिवा लागी न्हय
गौरीश तांचो आदर-पात्र
करूंक लागले तांची इत्सा मात्र
असुर तेग्गय ते उत्सुक आसले

शिवानुग्रहाची इत्सा करताले
शिवाचे ते उपासक जाले
पुजेचें फल तांका मेळ्ळें

दानवांची सहज इत्सा
मानवांत पळोवपाक मेळटा
सज्जन-नाश, दुर्जन-वाड
स्वार्थ, दुराग्रह हांचो विकास

देवांचेर आसलो क्रोध
वाडून जालो घोर विरोध
मागीर जालो तो दुराग्रह
देवांक मारूक केलो आग्रह

देवां मुखार तांचें गर्वनाट्य
शौर्य, वीर्य आनी भक्ति शक्ति
सुरजनांक दाखोवपा खातीर
एका खेपे देवलोकांत वचूंक

तेग्गय मेळून सभा केली
मनांतले विचार भायर आयले
तेग्गय तांत मग्न जाले
सुरध्वंस तांचो विशय आसलो

कमलाक्षान सांगलें :तारक भावा
देवपीडेची युक्ति जाली
देवांचो नाश सोंपें जालो
करून असुरांचो वंश-विकास

आसुरी माया थोडी शिकून
सर्गाचेर वतले आमी
थांगा वचून करतले घात
सुरेश्वराचो आनी इन्द्राणीचो

अंधकाराच्या त्या रानांत
तमोवृत सर्गाच्या आंगणांत
रूप घेवन राक्षस शरीराचें
देवांक आमी भिसडावंचें

आमचे तांबडे दोळे पळोवन
मादक क्रोधी प्रेता भशेन
रंभा भियेतली, तिलोत्तमा बी
उर्वशी, शची आनी रामोत्तमा

अप्सरांक बांदून आमी
करतले अपमान सुरश्रेश्टाक
तांचे ऐश्वर्य नश्ट जावूंक
दुरैश्वर्य तांका येवन पडूंक

उगडास येतलो तांका
दुष्कर्माचो, तारकवधाचो,
येतले ते आश्रीत जावन
ह्या पायांचेर पडतले येवन

देव दानवांचे आश्रीत पळोवन
कुबेर आमची सेवा करतलो
गंधर्व, यक्ष, किन्नर, गायक
दानव वर्गाचे जातले सेवक

जेन्ना राक्षसांचें राज्य चलतलें
देवांचो अधिकार ना जातलो
हें करपाक वचात आमी
एकवट जावन, संतुश्ट जावन

जोश भरलेंली  उतरां आयकून
विद्युन्मालीक जालो उत्साह
कमलाक्षपक्षाचो संबन्द घेवन
सांगलें ताणे विजे भशेन

भावाचें अभिनन्दन करून
देवाचें विधिवत् स्मरण करून
आपलें मत मुखार दवरूक
गेलो तारकाक्षाक मेळूक

व्हडल्या भावाली आज्ञा मागून
विद्युन्माली सांगूक लागलो
'हांव ल्हान म्हूण दुबाव ना
बुद्धीक म्हजे खोट ना

म्हजी धृष्टता क्षमा कोरका
शीघ्र म्हाका सांगपाक दीवंका
होच सहज पक्ष म्हजो
शंकरा मुखार वनांत आसचो

शंकर किंकर आमी सदा आसले
ते दाता त्राता सदां आसले
करून आमचो सहाय
सर्गा वाटेन पावन विजय'

विद्युन्मालीलें वचन आयकून
तारकाक्षान सांगलें
'भावा तुवें सत सांगलें
शंकर-समक्ष आमी वतले'

व्हडल्या भावालें उतर आयकून
त्या दोग्गांकूय आनन्द जालो
ही बुद्ध ताणी अपणायली
दानव समूह एकवट जालो

मंत्रणा-विजय, जालें अभिनन्दन
सोरो, मांस, हांचें तें भोजन
दानव-महिला नर्तन करतात
एकले मागल्यान दुसरी वता

संगीत-सभा जाली जंय थंय
राक्षसांचो मेळ जंय थंय
गायतालीं सुन्दर प्रेमगीत
दानव नाचताले आनन्दीत



# एक दंतकथा*

महाबळि रायान वचून
वर्सां सासा भायर जालीं
अजून मेरेन राय सग्ग
शासन बरेंच करताले

केरळांतले राय मेळून
हांगा एकठांय येताले
अत्तच्चमयम् [1] उत्सवा वेळार
जात्रा खूब मनयताले

आसलें हांगा देवूळ एक
जंय पतिश्टा वामनाची
एका हातांत कमण्डलु
दुसर् यांत सोबीत दण्डु

भिक्षुवेशांत वामनाची
प्रतिदिन पुजा जाताली
पयस साकून ब्राह्मण येवन
प्रभुयश-गितां गायताले

हांगा येवंचे ब्राह्मण सग्ग
आदर घेवन वताले
मनां भितर संतोश पावन
अनुग्रह दिवन वताले

---

*केरळांतल्या तृक्काक्करा देवस्थाना विशीं

1 ओणम् उत्सवाचे पयलीं हस्त नक्षत्राक जावंची जात्रा

अनुग्रहा बळान सुवात
गौरव मेळून रावताली
तरेकतराच्या आडंबरान
भक्तियुक्त पुजा जाताली

हांगा ऐश्वर्य वाडतालें
पावल कणकणी साक्षी आसले
हे वाडींत जन एकलो
सुखाच्या दर्यांत व्हळतालो

संवसाराची रीत अशी
चांग वेळार ऊंच वतात
वायट येताकीर ते
सकयल देंवन येतात

हेंच जालें ह्या व्हड
पुण्य भरिल्ल्या देवस्थानाक
एका खेपे तें सकयल आयलें
व्हड दुःख भोगचें पडलें

आयलो एकलो ब्राह्मण हांगा
एका दिसा देवळांत
देव-भजन करून आपलें
दुःखी मनांक शान्ति दिवपाक

विधिवत् पुजा अर्चना करून
तन मन दीवन तो लीन जालो
जन सगळेच परतून गेले
तो देव-भजनांत लीन जालो

ह्याच वेळार देवळांतलें
स्वर्णकमल अदृश्य जालें
राशिचक्रांत नीच रावलो
भाग्याधिप त्या देवळाचो

जालो तुरन्त अपमान ताचो
जनान सांगलें चोर म्हूण
स्वर्ण-कमलाची मिथ्या चोरी
ताचेर आरोपित जाली

अपमान ताका असह्नीय जालो
ब्राह्मण तो रागार आयलो
दुर्वासाक ताणें उडगास केलो
मनान तो ध्यानांत पडलो

दिलो शाप देवस्थानाक
ताचे दशिल्ले महानगरीक
'ही सुवात रान जावो
सर्वांचे दिश्टीक अदृश्य जावो'

क्रोध शांत जालो जेन्ना
आयली ब्राह्मणाक चेतना तेन्ना
जनान ताका मागणी केली
शाप-मोक्षाची विनंति केली

ब्राह्मणान सांगलें - 'खूब वेळ मेरेन
शापाचो प्रभाव आसतलो
मागीर शाप-मोक्षाक लागून
पोरणें ऐश्वर्य येतलें'

हे नगरीचें ऐश्वर्य
पयलीं नश्ट जालें
जीव जन्तु सग्ग
शापाग्नींत जळून गेले

ही विश्रुत नगरी जाली
सर्पांचें वासस्थान
सुर्या-किरणांचो प्रवेश हांगा
दुष्कर जालो महारण्यांत

ब्रह्मशाप हांगा सफल जालो
आनी जालें ताचें अन्त
जन येवन वास करपाक
लागले पवित्र सुवातेचेर



# पारतंत्र्य स्वतंत्रतायेचें

पारतंत्र्य स्वतंत्रतायेचें
तें १९४७, अगस्त पन्द्रावे दिसा
सुरू जालें
ह्या दिसा भारत स्वतंत्र जालें
आनी स्वातंत्र्याक आज ६५ वर्सां
म्हांतारपणाक लागून
ताचे हात-पाय दुखतात
दोळ्यांक दिश्टीचें उणेपण
कान आयकूक पावना
मेंदू येवजूंक ना
शिरांक बळ ना
तर, मरण लागी येना

स्वतंत्रतायेचे पयलीं
पारतंत्र्य आशिल्लें
एक परंपरा आशिल्ली
तिचीं मुल्यां आशिल्लीं
मनशाचो मान आशिल्लो
महत्व आशिल्लें
आज स्वतंत्रतायेचे उपरांत
जिणेचीं मुल्यां नात
मनशाचो मान नात
महत्व नात
ताचें मोल थारायतात
किमत घालून ताचो विक्रय करतात

बुद्धिवादाक लागून
संवेदना नश्ट जाल्या

बुद्धीन सांगलें
गांधीजीची हत्या कर
शास्त्रीजीचो प्राण काड
इन्दिराजीक विश्वासघात कर
आनी जिवानिशीं मार
मनीशबम घेवन राजीवाचो खून कर

हांगा बुद्धीचो विजय
संवेदनेचो पराजय
परंपरेचो घात
मुल्यांचेर आघात
मनशाचो मान, महत्व, सगळें ना जालें

स्वातंत्र्याची आमची इत्सा
जाली ती पूर्ण
पारतंत्र्याचे वाटेन आमी सरले मुखार
स्वतंत्रतायेचो आमचो मुळगो
जालो कुकर्मी, मारले आदर्श
सत ना, अहिंसा ना
परोपकार खयूंच ना
खंय गेलें तें गीता-वचन,
'कर्मण्येवाधिकारस्ते मा फलेषु कदाचन'
आतां फलेच्छा मात उद्देश
संपत्ति मात आदर्श
मारामारी, फटवण,

आमचो राम खंय ?
भ्रातृप्रेमी भरत खंय ?
भ्रातृसेवी लक्ष्मण खंय ?
सीता आज भुंयचे पोंदाक
स्वार्थाक लागून मनीश
एका दुसरया लागी झगडें करता
मोगाची आवय, बापूय, भावा विशीं
न्यायालयाचो आश्रय घेता
हेंच पारतंत्र्य स्वतंत्रतायेचें
मनीश हांगा कांय करचो ना



# नरबळी

प्रसिद्ध जाला अल्पळे गांव
खूनाचे राजनीतिची नरबळि पांव
नरबळि ताचे परंपरेचो अधिकार
चलून येता अजून जावन मजेदार

आज एकलो मारता दुसर् या एकल्याक
फाय दुसरो मारता दोग्ग जनांक
मागीर जातात तीन खून
कातरून हात-पाय आनी गोमटी

जें कोण मारता जितलें अदीक
तो जाता वीर राजनीतिचे माचयेर
मनशाक हांगा मोल ना कांय
मनुष्यत्व गेलें मशणांत व्हंय

जिव्या मनशाक मारून उडयतात
मडें पळोवपाक सग्ग धांवतात
जितले चड मरतात जंय
प्रसिद्धि येता व्हडी थंय

मेल्ल्या मनशाच्या सगळे कुटुंबाक
आपलो मनीस ना जाता
बायलेक घोव, भुरग्यांक बापूय
आवय-बापायाक पूत नासता

दनपार वरां बारा जालीं
दोन खण्डीं मारूक आयलीं
माल्ले मनशान बोब मारली
पुलिसाक ताणें वेंग मारली

'म्हजी राखण तुमी करात'
पुलीस थांगाच निश्चल जालें
शंबर जन पळयताले
ताची शत्रून मारी केली

पुलीसाक थांगाच आयली घुंवळ
सकयल पडलो जावन निश्चल
मार्ग सगळे रगतान भरले
माल्लो मनीस मरून पडलो

शंबर जन साक्षी आसले
दनपार बारा वरांचे खून
साक्षी सांगपाक कोणूय ना
अजाप ! मनुष्यत्व खंय गेलें ?



# लांचलुचपत

म्हान आमचें भारत
म्हान आमी भारतीय
म्हान सरकारी नोकर
नोकरांची लांचलुचपत

दळिद्र हाचें मूल कारण
दुराशा हाचें मुखेल पोषण
रुपया घेता एकावन
कामाक जाता निलंबन

वर्सां जालीं पन्नास
लांच तांचे वांगडा आसा
अतां भायर आयला चोर
सावधपणाचो मार घोर

न्यायालयांत पावली गजाल
जाली गजाल बरो मिसाल
ल्हान जावो व्हड जावो
अपराध्यांक शिक्षा मेळो

'भ्रश्टाचार घोर अपराध
बन्दखणींत पड वर्सां धा'
शिक्षेंत ना कांय तर उणेपण
आश्रय ताचो केवल बन्दखण

'म्हाका वर्सां अयशीं जाल्यांत
ह्या कालार बन्दखणी-वास'
दिता घोर मानसिक आघात
करता तो जिणेचो विघात

भ्रश्टाचाराक फाटबळ दिवंचें
देशाचे फाटीचो कणो मारचें
नियम सामान्य रक्षेक आसता
एकल्याचें स्वार्थ पोसपाक नासता



# एक गजाल

आशिल्लो एकलो दोतोर
तो सरकारी नोकर
गेलो तो विदेशांत
पडून आपले स्वार्थांत

ताणें खूब फटवण केली
काम आपलें किंकोत केलें
शिस्तीची कारवाय ताचेर जाली
कामांत साकून भायर जालो

दोतोर एक रोगी अनेक
मानव-सेवा माधव-सेवा
दोतोर हें विसरून गेलो
ताची शिक्षा स्वीकार केली

ल्हान आसो व्हड आसो
आपलो धर्म आपलें कर्म
जें कोण बरोबर करता
राष्ट्रनिर्मितींत भाग घेता



# पावस

आषाढ मासांत पावसा दीस
करतात लोकाक कासावीस
झरो भरला वारया उदकान
तड भरल्या ल्हारांच्या उदकान

न्हंय भरली बांय भरली
उदक रे उदक भरलें
खळार मळार उदक जालें
खळार मळ मळार खळ

अंगणांत उदक परमांत उदक
वाट भर उदक जालें
माड्या पिडे हालून धलून
दक्षिण पश्चीम दिशेर घांवतात

पावसांत भिजप अणभव घेता
मनांत भारि संतोश दिता
पावसाचे भाव उगडास अनेक
मोगाचे, रंगाचे, सुखाचे दुःखाचे

केन्ना केन्ना तांडव पावसाचें
जाता सैमाच्या मांडिल्ल्या कैसाचें
घेवन येता म्हान रोग
मनशाचे जिणेक करून फोग

पावस जिणेचो करता घात
मरणाचे घेवन येता आघात
अट्टहास करता पावस कठीन
गरगर घुंवच्या वारया वतीन

आकाश जाता काळें काळें
दरया ल्हारां, भरतेचो वेळ
मनांत जाता भय, भार
उदकांतल्यान यात्रा दुष्कर

श्रावण आयलो पावस गेलो
सैम जालें पाचवें चार
रंगयाळीं फुलां आनी फळां
जिणेक विकास मनांक संतोश





# डॉ. एल. सुनीता बाय

हांचो जल्म २४-५-१९४४ वर्सा जालो. हांणी बि. ए. त संस्कृत आनी भारतीय संस्कृती, एम. ए त हिन्दी आनी संस्कृत घेवन जय पांवताकीर मैथिलीशरण गुप्त हांच्या काव्याचे संस्कृत स्रोत , ह्या विशयाचेर शोध-प्रबन्ध सादर करून पी एच.डी ची उपाधि जोडली. अणकारा विशीं हांणी सर्टिफिकट कोर्स बी पूर्ण केलें.

आपल्या अभ्यासाचे वरवीं हांका युजीसी जूनियर, सीनियर रिसर्च फेलोशीप, संशोधना खातीर कोंकणी-हिन्दी-मलयालम कोश तैयार करपाक केरियर एवार्ड आनी 'हिन्दी-कोंकणी लोकसाहित्य का तुलनात्मक अध्ययन (सांस्कृतिक पृष्ठभूमि के संदर्भ में) विशयाचेर शोध करूक युजीसी मेजर रिसर्च प्रोजेक्ट फाव जालें. हिन्दी-कोंकणी-मलयालम भाशांच्या आनी साहित्यांच्या तुलनात्मक सोदाच्या मळार हांणी १६ शोध-विद्यार्थ्यांक मार्गदर्शन केल्यां.

डॉ. सुनीता बाय हाणी २१ ग्रंथ उजवाडायले.हांका २००५-२००६ वर्साचो भारतीय अनुवाद परिशदाचो डॉ.गार्गी गुप्त द्विवागीश पुरस्कार मेळ्ळा..२०११ वर्साचो अणकाराचे विशीं केंद्र साहित्य एकादमी पुरस्कार बी फाव जाला.

'शंखनाद' डॉ. सुनीता बाय हांचें २२ वें पुस्तक. हो तांचो कविता-संग्रह. हांत हास्य-व्यंग्याचे वरवीं तांचे तिखट अणभव पळोवपाक मेळटात.

